28/2/2015

# सदाफुली

बरोवपी:

सुधा गोविंद खरंगटे




श्री हरि प्रकाशन

Sada Fuli
(Collection of short stories)

सदाफुली
बरोवपी : सुधा गोविंद खरंगटे

प्रकाशन क्र. ४६

पयली उजवाडावणी : १ फेब्रुवारी २०१४

उजवाडावपी:
दीपा दिनकर मुरकुंडे
श्री हरि प्रकाशन, ३८९/ अ, शांतिनगर
नावेली – सालसेत – गोंय ४०३ ७०७
फोन नं : ६५७३२८७ मो. नं. : ९२२६८९४१२६

मुखचित्र आनी भितरलीं चित्रां,
अक्षर जुळणी आनी छापपी :
कस्तुरी ग्राफिक्स, ढवळी
फोन नं.: २३१७४८६

मोल : २५/– रुपया

| |
|---|
| **काणयो वाचूंक आवडटा त्या भुरग्यांक ओंपलां** <br> – सुधा खरंगटे |

# मांडावळ


| | | |
|---|---|---|
| १. | सदाफुली | ४ |
| २. | उडूंक शिकयलें | ५ |
| ३. | नाजूकाचें खाण | ६ |
| ४. | सानिया आणि सारा | ७ |
| ५. | अन्नाचो अपमान | ८ |
| ६. | तनू आनी बिलू | ९ |
| ७. | कितू आनी काजुले | १० |
| ८. | बिलू आनी नुस्तें | ११ |
| ९. | प्लास्टीकाचो कोयर | १२ |
| १०. | आमचीं झाडांच बरीं | १३ |
| ११. | मोती, टॉमी आनी बिलू | १४ |
| १२. | महेश आनी राकेश | १५ |
| १३. | पाल आनी जल्लो | १६ |
| १४. | "तनू पेंवपाक शिकलें" | १७ |
| १५. | आमचें मळ आमकां जाय | १८ |
| १६. | नीलूचें न्हाण | १९ |

# सदाफुली



मोगरेच्या वेलीक तेंकूनच सदाफुलीचें झाड आसलें. मोगरेक धवी फुल्ल मोगरीं फुलतालीं. रात परमळीत करतालीं.

सदाफुलान आवयक म्हळ्ळें– ''पळय, नशीब एकेकल्याचें! देवान मोगऱ्यांक कसो सुंदर परमळ दिला. आमकां मात कसलोच वास ना...''

सदाफुलीच्या झाडान म्हळ्ळें – पिशा, ही फुलिल्लीं परमळीत मोगरीं सकाळ सोंपून दनपार जायसर गळून मातयेंत भरसतलीं. तुमी आज फुल्ल्यांत तीं चार दीस म्हजे मांडयेर बसून हांसतलीं आनी भोंवतणचो वाठार सोबीत करतलीं, मोगऱ्यांचो चार दीस भार! तुमी मात हांसती सदांकाळ!

●●●

# उडूंक शिकयलें



पाख्याचें पील घोंटेरांत बशिल्लें. 'आतां आवय येतली, म्हाका खांवक हाडटली' ताणे चितलें. इतल्यांत ताची आवय थंय पावली.

पिलान खेशेन चोंच आंऽ केली. 'चोचींत कितें पडटलें, आतां हांव खातलें' असो खोसदिणो विचार तें करतालें. पूण आवयन ताचेर चोंच मारली.

तें अजापित जालें. भिलें. आवयन धुकलीत धुकलीत ताका घोंटेरांतल्यान भायर काडलें. पील पारापेटीच्या धडेर पावलें, तें रडूंक लागलें. ''आतां हांव पडटलें, आतां हांव पडटलें.'' इतलें चिंतसर आवयन धुकललें. जमनीर शेंवटुपाच्या भंयान पिलान पाखां फाकारलीं. अजापांतले अजाप – तें उडूंक लागलें. आवय फाटल्यान खोशयेंन उडत आसली.

●●●

# नाजूकाचें खाण



'कितलें नाजूक, कितलें सोबीत कुकुलें शेवणें'. अमृता त्या शेवण्याक तोखेतालें. 'चिखलांत कितें उस्तीता तें!' अमृताक दिसलें इतल्या नाजूक शेवण्याक नाजूकशेंच खाण जाय. ताणे धांवत घरांत वचून डब्यांतले नाचणे हाडले आनी थंय फाफुडले. 'खा गो नाजूक शेवण्या, तुजेखातीर सामकें धाकटुलें खाण.'

शेवणें आयलें, ताणें नाचणे पळयले. पूण परतून मातयेंत चोंच घाली. अमृता पळयता थंय आसा, शेवण्यान चोंचीत मातयेंतल्यान लांबसो गांयडोळ काडलो, ताका गिळ्ळो आनी उडून गेलें.

●●●

# सानिया आणि सारा



सानिया आनी सारा शाळेंत एकाच बांकार बसतात. चित्रकला काडटना साराच्या पेन्सिलीचें तोंकच मोडलें. सारा रडपाक पावलें.

सानियाची मम्मी सदांच ताच्या कंपासांत दोन पेन्सिली तोंक काडून घालता.

सानियान म्हळें, ''सारा, म्हजेकडेन दोन पेन्सिली आसात. ही एक तुका घे.'' सारा एकदम हांसले. आनी सानियाली पेन्सिल घेवन चित्र काडपाक लागलें.

टीचर सगळें पळयताली. तिणे म्हळ्ळें– ''शाबास सानिया. सदांच आपल्याच्यान जाता ती मदत दुसऱ्याक करची.''

●●●

# अन्नाचो अपमान



राजू पापाबरोबर अंकलाच्या लग्नाक आयिल्लो. लग्न लागतकच तो पापाबरोबर जेवपाक गेलो. पापा आपल्या इश्टांबरोबर उलयतालो. हे वटेन राजून प्लेट हातांत घेवन ताणें सगळें प्लेटींत वाडून घेतलें. बरें लागलें तें खालें. पोट भरतकच उरिल्लें प्लेटींत तशेंच सांडलें आनी प्लेट दवरली.

पापान म्हळें – ''राजू, प्लेटींत जेवण घेतना जाय तेंच थोडें–थोडें घेवचें. खावन जातकच आनीक जाय जाल्यार परत वचून घेंवयेता. अन्न प्लेटींत सांडप म्हणजे अन्नाचो अपमान जालो ना? अन्नाची नासाडी करूंक जायना.''

राजू याड कसो जालो. ताणे म्हळ्ळें, ''पापा, हांव परतून केन्नाच अन्नाचो अपमान करचो ना.''

●●●

# तनू आनी बिलू



बिलू माजर कदेलापोंदा पातळून न्हिदिल्लें. तनू आयलें तेंच बिलूचे कान ओडूंक लागलें. बिलून 'म्याँव-म्याँव' करून बोवाळ मारलो. पापान म्हळ्ळें- ''तनू, बिलू कित्याक गो रडटा?''

तनून सांगलें- ''पापा, हांवें बिलूक मारूंक ना हां. हांवें फकत ताचे कान ओडिल्ले.'' पापान हळूच तनूचो कान धरून ओडलो. ''आवयस्! पापा, दुखता म्हाका...'' तनून म्हळ्ळें. ''तुका दुखता तशेंच बिलूकय दुखलें जातलें.'' पापान म्हळ्ळें. तनू समजलें. ताणें म्हळ्ळें- ''पापा, हांव परतें केन्नांच बिलूचो कान ओडचें ना.''

●●●

# किटू आनी काजुले



किटूल्या घराभोवतणी तरेकवार झाडां आसलीं. रात जातकच झाडांचेर काजुले 'लिक्-लिक्' करूंक लागले. उकत्या जनेलांतल्यान, दारांतल्यान ते घरांत भितर सरले. किटून धा-बारा काजुले धरले. धरून-धरून बाटलेंत घाले आनी बाटलेक गुड्डी लायली. काजुले बाटलेंत लिकलिकूंक लागले.

''मम्मी, मम्मीऽ, म्हजो टॉर्च पळय'' ताणें म्हळ्ळें. ''किटू, तुका साकांत भरुन तुजी पोटली बांदल्यार तुका कशे दिसतलें गो?'' मम्मीन विचारलें. किटू समजलें ताणें बेगीबेगीन भायर आंगणात वचून काजूले भायर सोडले. काजुले झाडाचेर बसून लिकलिकूंक लागले.

●●●

# बिलू आनी नुस्तें



बिलू माजर नुस्तें खांवक सवकल्लें, आईन नुस्तें उजरावन धांपून दवरलें. बिलू थंयच ठाण मांडून बसलें. आई नुस्तें तळपाक बसली. तव्यार नुस्तें घालून फाट परतयसर बिलून एक कुडको फारायलो. आईन नुस्तें तळून तव्यारच दवरलें. ती मातशी भायर गेली.

बिलून बेगीबेगीन तव्यावेलो नुस्त्याचो कुडको खांवक पळेलो. ताचें तोंडच भाजलें. 'म्याँव-म्याँव' करीत रडत बिलू भायर पळून गेलें.

●●●

# प्लास्टीकाचो कोयर




गौरी गायेन लागींच कोयर खातल्या पाडकाक म्हळ्ळें. ''बाय, त्या प्लास्टीकाच्या पिशवेंत बांदला तो कोयर खायनाका हां.''

'कित्याक गे मावशे?' पाडकान विचारलें. ''आगो, म्हजी भयण प्लास्टीकाच्या पिशवेंत बांदिल्लो कोयर खाताली. शेवट प्लास्टीकाच्यो पिशव्यो खावन खावन पोट फुगून मेलें तें!''

''हीं मनशां कोयर प्लास्टीकांत बांदून तो कित्याक उडयतात?'' पाडकान विचारलें. ''बाय गो, ती मनशांची जात आपल्यापुरतें पळयता. दुसऱ्यांचो विचारच करनात. म्हणून आपणें शाणेपणान सादूर रांवक जाय काय ना?'' गायेन विचारलें.

●●●

# आमचीं झाडांच बरीं



तनू आनी अमी किर्तीगेर गेल्लीं. थंय तांच्या पांचव्याचार लॉनार तीं खूब खेळ्ळीं. ''हांगा खेळपाक खूब मजा आयली.'' तनून म्हळ्ळें. किर्तीन सांगलें - ''तुमीय तुमच्या पप्पाक सांगून घरामुखार लॉन करात मुगो. तुमच्या आंगणातच तो पणस, त्यो पेरी, आंब्याची झाडां कित्याक दवरल्यांत? पानां झडून दारांत कोयर मात जाता.''

''आमचीं झाडां मारून लॉन करप?'' तनून दोळे मोट्टे केले. ''तीं आमकां पणस, पेरां, आंबे बी दितात मुगो.''

''आनी कितली शेवणी येतात जाणा. पोपट लेगीत येतात पेरां खावपाक आनी कडूलिंबाची फळां खावपाक.'' अमीन म्हळ्ळें. ''चानयो तर नाचत आसतात. आनी झाडांचेर घोंटेर लेगीत आसात. शी! शी! आमकां नाका लॉन. आमचीं झाडांच बरीं.'' तनून म्हळ्ळें. 

# मोती, टॉमी आनी बिलू



मोती आनी टॉमी, दोनय सुणे दारांत झगडीं करूंक लागले. बिलू माजराच्यान तें पळोवनजो जालें. ''आरे मोती, टॉमी, तुमी दोगय इश्ट मरे? अशीं झगडीं कित्याक करतात?'' अशें म्हणून तें झगडीं सोडोवंक मदी पडलें.

मोतीक आनी टॉमीक बिलूचो राग आयलो. दोगांनीय बिलूचेर एक-एक थापट दिलें. 'म्याँव-म्याँव' करीत बिलू घरांत पळ्ळें.

बाबू सगळें पळयतालो. ताणें म्हळ्ळें, ''बिलू, ते सुणे केदे? तूं केदें? व्हडांच्या झगड्यांत ल्हानांनी पडूं नये. नाजाल्यार तुजेभशेंन मार खावचो पडटा.''

●●●

# महेश आनी राकेश



महेश आनी राकेश दोगय शेजारी. राकेशाची आई ताका टिफीन दिवचे बदला धा रूपया दिताली. तो मदल्या सुटयेंत धा रुपयांचे कुरकुरे घेवन खातालो. महेशाक मात एक दीस चपाती, एक दीस पोळो नाजाल्यार सँडवीच अशें खावचें पडटालें.

महेशान म्हळ्ळें – ''मम्मी, म्हाका टिफीन नाका. म्हाका धा रूपया दी. हांव मदल्या सुटयेंत राकेशा भशेन कुरकुरे घेवन खातां.'' मम्मीन म्हळ्ळें, ''महेश, हांव टिफीनात दितां ते खाण भलायकेक बरें. कुरकुरे खावप भलायकेक मारक. तुका बरी भलायकी जाय काय कुरकुरे जाय?'' महेशान कुरकुरे खावपाचो हट्ट सोडलो.



# पाल आनी जल्लो



पाल वण्टीर भोंवताली. दाराच्या जोडणेच्या खांचींत थंयच बुराकांत जल्ल्याचें घर आसलें. पालीन ताका दिस्त पळयलो. 'म्हजें आजचें जेवण.' तिणें चितलें. सरपटत सरपटत ती दाराच्या कडेर पावली थंयच्यान घराच्या खांचींत देवपाच्या तयारेन तिणे बिजागरीच्या जोडार तकली घाली. खांचींत देंवतनाच कसलें वारें सुटलें; वाऱ्यान दार घडांयच करून बंद जालें.

मदीं शिरकल्ली पाल थंयच चिड्डुली मरून सकल पडली.जल्लो आपल्या घरांत बसून सगळें पळेतालो.

●●●

# ‘‘तनू पेंवपाक शिकलें’’



तनूच्या पापान तनूचें नांव पेंवपाच्या क्लासाक घाल्लें. तनू स्विमिंग पुलाच्या कडेर वता पूण उदकांत कशेंच देंवना. ‘‘म्हाका उदकाचो भंय दिसता. हांव उदकांत बुडटलें. पापा आमी घरा या.’’ ताणें म्हळ्ळे.

पेंवपाक शिकोवपी थंयच आसलो. ताणे म्हळ्ळें ‘‘तुज्या पोटाक रबरी टायर घाला न्ही. तूं बुडचें ना.’’ पूण तनू कशेंच आयकना.

पेंवपाक शिकोवप्यान एकदम तनूक उबारलें तेंच उदकांत बुडयलें. तनू जिवाच्या आकांतान हातपाय मारूंक लागलें. ‘‘शाबास!’’ शिकोवप्यान म्हळ्ळें. तनूक उमेद जाली. थोडो वेळ यत्न करतकच ताका मातशें पेंवपाक येवंक लागलें. तनू उमेदीन क्लासाक येवंक लागलें आनी चार दिसांभितर पेंवपाक शिकलें.



# आमचें मळ आमकां जाय



गौरी गाय रस्त्यार भोंवताली. रस्त्यार कागदां, कोयर, केळ्याच्यो साली... कितें मेळटा तें खाताली. रस्त्यान ट्रक, गाडी, बस बी आयल्यार कुशीन रावताली. तिनसांज जातकच तिठ्यार मदेकाकच सगळीं गोरवां वासरां बसतालीं, थंय येवन बसताली.

नव्यानच थंय पाविल्ल्या काळू बैलान विचारलें, – ''तुमी सगळीं ह्याच रस्त्यार कित्याक भोंवतात? हांगाच कित्याक बसतात.''

गौरी गायेन मोठ्या अभिमानान सांगलें – ''कित्याक म्हणचे? हें आमचेंच चरवाचें मळ आसलें. होच आमचो गोठेवपाचो जागो! मनशांनी हांगा बिल्डिंगो बांदल्यो आनी रस्ते केले. मागीर आमी खंय वचचें? आमचें मळ आमकां जाय.''



# नीलूचें न्हाण



नीलून म्हळ्ळें– ''आई, आज हांवच न्हातां. तूं न्हाणोवंक नाका.'' बाथरूमांत वचून नीलू बालदेंतलें उदक आंगार रकयत रावलें. आईन म्हळ्ळें, ''बाय गो, पयलींच उदक संवसारार कमी जालां आनी तूं उदक अशें वारयता?'' आईन साबण लावन आंग चोळ्ळें आनी चार तांबयांभितर ताका नितळ न्हाणोवन काडलें. आनी म्हळ्ळें ''उदकाची मेळत तशी वाट लांवक जायना.''

नीलून म्हळ्ळें, ''आई, न्हातकच जिवाक बरेंऽ दिसता न्ही? फाल्यां हांव अशेंच थोड्या उदकाभितर नितळ न्हावपी. उदकाची वाट केन्नाच लावचें ना.''

●●●

चित्रां खंयचे काणयेंतलीं तें बरयात आनी रंगयात



# श्री हरि प्रकाशनान उजवाडायिल्लें साहित्य

| | | | |
|---|---|---|---|
| १. | उमजणी | कथा | दीपा मुरकुंडे |
| २. | जिवीत एक तियात्र | नाटकुलीं | शॅरान माझारेलो |
| ३. | चौफूल | नाटकुलीं | माया खरंगटे |
| ४. | पिटकुलीं नाटकुलीं | नाटकुलीं | दीपा मुरकुंडे |
| ५. | भौरंगी जीण | निबंध | दीपा मुरकुंडे |
| ६. | मोराची करामत | नाटकुलीं | रजनी भेंब्रे |
| ७. | आंकवार काजारी | नाटक | रवींद्र नमशीकर |
| ८. | नुपी | काणयो | दीपा मुरकुंडे |
| ९. | रानांतल्यो काणयो | काणयो | नयना आडारकार |
| १०. | घोंटेर | कथा | माया खरंगटे |
| ११. | दुरीग | तियात्र | विल्मिक्स विल्सन माझारेलो |
| १२. | चिमी | काणयो | दीपा मुरकुंडे |
| १३. | हिरन आनी वांस्वेल | काणयो | नयना आडारकार |
| १४. | डॅडी | नाटक | दत्ताराम दा. कामत बांबोळकार |
| १५. | पिटकुल्यो काणयो | काणयो | नयना आडारकार |
| १६. | शिंव आनी कांसव | काणयो | सुधा खरंगटे |
| १७. | पडबिंब | निबंध | दीपा मुरकुंडे |
| १८. | काणयो सैमाच्यो आनी मनश्यांच्यो | काणयो | सुधा खरंगटे |
| १९. | कांसवाचें घर | काणयो | नयना आडारकार |
| २०. | काणयांचें पेटूल | काणयो | सरस्वती दामोदर नायक |
| २१. | मस्तूल | काणयो | नयना आडारकार |
| २२. | कुटुऱ्यो | काणयो | नयना आडारकार |
| २३. | काणयांची गाथन | काणयो | रमा मुरकुंडे |
| २४. | चिटूर–पिटूर काणयो कुटूर | काणयो | नयना आडारकार |
| २५. | टुटू, मिटू, पिटू | काणयो | नयना आडारकार |
| २६. | गितां भुरग्यांची – १ | कविता | दिनकर रा. मुरकुंडे |
| २७. | भौरंगी जीण – २ | निबंध | दीपा मुरकुंडे |
| २८. | हांसयाळीं संकलन | हांसयाळीं | दिनकर रा. मुरकुंडे |
| २९. | अयोध्यायन | नाटकुलीं | माया अनिल खरंगटे |
| ३०. | हांवें करचें तरी किंतें ? | नाटकुलीं | सुधा खरंगटे |
| ३१. | रँग टँग | काणयो | सुधा गोविंद खरंगटे |
| ३२. | हांव सायबा मॉडर्न जाता | नाटकुलीं | प्रा. हनुमंत चोपडेकार |
| ३३. | हांसयाळीं | हांसयाळीं | दिनकर रा. मुरकुंडे |
| ३४. | सांगात म्हजें नांव | कविता | दीपा मुरकुंडे |
| ३५. | किटू | काणयो | सुशीला निळकंठ हळर्णकार |
| ३६. | एक–दोन–तीन–चार | काणयो | सुधा खरंगटे |
| ३७. | सांगतां मनातलें | आपउलोवपां | दीपा मुरकुंडे |
| ३८. | संवसारीक नामनेचे समाज वावूरपी | निबंध | प्रा. हनुमंत चोपडेकार |
| ३९. | चानुच्यो काणयो | काणयो | रमा मुरकुंडे |
| ४०. | अशीं आमी भुरगीं | काणयो | दीपा मुरकुंडे |
| ४१. | संवसारीक नामनेच्यो अस्तुऱ्यो | निबंध | प्रा. हनुमंत चोपडेकार |
| ४२. | वळख फुलांची | निबंध | प्रा. हनुमंत चोपडेकार, अमिशा शिरोडकार |
| ४३. | जायो –जुयो | कविता | पुष्पलता कामत |
| ४४. | वळख भाज्यांची | निबंध | प्रा. हनुमंत चोपडेकार |
| ४५. | चिंगम | काणयो | सुधा गोविंद खरंगटे |
| ४६. | सदाफुली | काणयो | सुधा गोविंद खरंगटे |